# अशे घडले शणै गोंयबाब

दामोदर मावजो

*(एका व्हड गोंयकार पुताचें व्यक्तिमत्व कशें घडलें तें तांचे जिणेंतल्या कांय प्रसंगांचेर आदारून सांगपी पुस्तक)*



गोवा कोंकणी अकादेमी
GOA KONKANI AKADEMI

गोवा कोंकणी अकादेमी

अशे घडले शणै गोंयबाब

(चरित्रात्मक लिखाण)

बरोवपी : दामोदर मावजो

प्रकाशन क्र. 50



उजवाडावपी :
नारायण श्रीकृष्ण नावती,
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
बोरी, फोंडें, गोंय

छापपी :
ॐ ग्राफिक्स,
मंगेशी, फोंडें, गोंय

मुखपृष्ठ :
गोवा कोंकणी अकादेमी निर्मीत
शणै गोंयबाब माहितीनाट्यपटांतल्या
शणै गोंयबाबाचे भूमिकेचेर आदारून

मुखचित्र आनी सजावट :
शंकू रेगे

पयली आवृत्ती :
जून 2003

मोल : रु. 20/-

Ashe Ghadle Shennoi Goembab

(Biographical Sketch)

Writer : Damodar Mauzo

Publication No. 50



Publisher :
Narayan Shrikrishna Navti,
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Borim, Ponda, Goa

Printer :
Om Graphics,
Mangeshi, Ponda, Goa

Cover Page :
Based on the character of Shennoi
Goembab from the docu-drama
produced by Goa Konkani Akademi

Cover & Design :
Shanku Rege

First Edition :
June, 2003

Price : Rs. 20/-

---

*हें पुस्तक शणै गोंयबाब हांगेले १२५ वे जयंती वर्सानिमतान खासा उजवाडायलां.*

# अशे घडले शणै गोंयबाब

''धर्तरी व्हडली आसा वेळ जायतो आसा म्हजे सारक्या सभावाचो मनीस संवसारार खंयतरी आसतलो आनी आयज एखादो नासलोय जाल्यार फुडाराक जल्मतलो''.

नामनेचे संस्कृत म्हापंडीत म्हाकवी भवभूती हाणीं बरोवन दवरिल्ल्यो ह्यो म्हान वळी. आपणाल्यो रचना आनी विचार समजून घेवपी आनी उखलासून धरपी सांगाती मनीस मेळनात म्हूण निर्शेल्ल्या भवभूतीचीं ही उतरां. पूण ती निखटी निर्शेणीं न्हय. ह्या उतरांफाटल्यान केदो आत्मविश्वास उबो आसा! म्हजे विचार घडये तुमकां आयज पटचे नात. पूण सत्याचे बुन्यादीचेर मेरू पर्वतावरी थीर आशिल्ल्या म्हज्या विचारांचें मोल आयज ना फाल्यां तुमकां होलमलेबगर रावचें ना म्हणपाचो दृढ विश्वास तांचे ठांय आशिल्लो.

संवसारांतल्या सगल्याच म्हान मनशांचे जिणेंत अशे निर्शेणेचे खीण आयल्यात आनी काळांतरान तेच मनीस श्रेश्ठ आनी पूज्य थारल्यात. जेजू क्रिश्त खुरसार मेलो पूण ताचें मरण व्यर्थ गेलें ना. तो देव जालो. क्षमा, शांती आनी मोगच संवसाराक तारूंक शकता हें सत्य आयज जणेकल्याक होलमलां.

हिंदू धर्माची मिरास आनी मक्तेदारी मिरोवपी मराठणांतल्या भटाब्राम्हणांनी संस्कृत ही देवांची भास; ती भौजनसमाजान शिंकूक फावना; आनी देवस्पणां-अध्यात्म हीं संस्कृत भाशेंतच आसूंक फावो; लोकांचे भाशेंत न्हय, असो समज पातळायिल्लो. त्या काळार सामान्य मनशाची कुचंबणा आनी लोकभाशेक कुस्कटावपाचो शिक्षितांचो यत्न वळखून ज्ञानेश्वरान

मराठणांतल्या भौजनसमाजाचे अध्यात्मीक उदरगतीखातीर मराठी भाशेचो पाखो घेतलो. "संस्कृत भाषा देवें केली आणि मराठी काय चोरांपासोनि झाली?" असो खणखणीत प्रस्न करून तो ओगी रावलो ना. ताणें मराठींतल्यान प्रवचनां सांगलीं, मराठींतल्यान गितोपदेश करपी ज्ञानेश्वरी रचली आनी मराठीचेर मोग करपाची शिकवण दिली. संस्कृताउदेशीं भौजनांचेर शेक गाजयत आयिल्ल्या कर्मठ ब्राम्हणांक हें मानवलें ना. परंपरावाद्यांनीं ज्ञानेश्वराक जीण नाकापुरो करपाइतलो सतायलो. परिणाम - प्रतिभेचो वरदहस्त घेवन जल्माक आयिल्ल्या एका म्हान पंडीत म्हाकवीचेर पिरायेच्या वीस वर्सांच्या जुवानपणांत जिवंत समाधी घेवपाचो प्रसंग आयलो. सत्याचे आनी शास्त्राचे बुनयादीचेर लोककल्याणाचें ध्येय दोळयांसामकार दवरून लोकभाशेच्या उत्थानाखातीर झगडपी ज्ञानेश्वर आयज संताचे पदवेर पावला. परंपरावाद्यांआड केल्ले चळवळीक फळां येवपाक कळाव जरूर लागलो. पूण निमणे सत्याचेंच दालें जड जालें.

शणै गोंयबाब हेय तेच परंपरेंतले. ताणीं कोंकणी भाशेचो आग्रो धरलो. कोंकणी मनशामदीं आत्मसन्मान जागोवपाखातीर इतिहास उस्तून कोंकणी समाजाचें गिरेस्त दायज उक्तें करून दाखयलें. कोंकणींतल्यान रचना करून कोंकणी भाशेची तांक उक्तावन दाखयली. कोंकणी ही भासूच न्हय; ती आमची आवयभास तर निखालस न्हय अशें म्हणून मराठीचो पाखो घेवन कोंकणीक विरोध करपी गोंयकारांक आनी महाराष्ट्रीयांक शणै गोंयबांबानी तांच्या प्रत्येक मुद्याक तर्कशुद्ध आनी सणसणीत जाप दिवन थंड केल्यात. तर्कशुद्ध आनी शास्त्रीय मुद्यांनी निरुत्तर जाल्ल्यांनी मागीर शणै गोंयबाबांचीं कुतां काडप, नांवां दवरप, बकच्छायो करप असलीं कर्तुबां केलीं. जिणेंतलीं सर्जक वर्सां साहित्य, इतिहास, व्याकरण आनी संशोधनांत

खर्चिल्ल्या शणै गोंयबाबांचे मर्णयात्रेक फकत तेराच मनीस आशिल्ले. हाचे वेल्यान तांचे हयातींत तांची उमेद वाडोवपी कितले सांगाती तांकां मेळ्ळे ताचो हिशोब मेळटा. पूण सत्य लिपोवन लिपना, उजवाड धांपलो म्हूण काळोख जायना. कांय काळ काळखाचो भास जाता. उजवाडावयले धांपणे सुट्टा तेन्ना उजवाड घणघणीत फांकता. शंबर वर्सां फाटीं वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार ह्या म्हाविद्वानान दाखयल्ले वाटेन आयज लाखांनी कोंकणी मनीस अभिमानान चलतात. - सत्याच्या लख्ख उजवाडांत. हातुंतूच तांच्या विचारांचें जैत आस्पावलां.

शणै गोंयबाब म्हळयार भौ. वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार. तांचो जल्म 23 जून 1877 दिसा दिवचलेंत जालो. तांचें मुळावें शिकप त्याच गांवांत जालें. राम गांवकार ह्या थंचच्याच एका शेतकामत्याकडसून ताणीं मुळाक्षरां शिकून घेतलीं. मुळाक्षरां चिरपाखातीर त्या काळार पाटयो, काडयो नासताल्यो. तर एका पाटाचेर रेंव पातळायताले आनी ताचेर बोटांनीं अक्षरां चिरपाक शिकयताले. वामन खूब बेगीन, म्हळयार पिरायेच्या चवथ्याच वर्सा मुळाक्षरां शिकलो. उपरांत विनायक बर्वे ह्या मराठी मास्तरागेर तो तिसरीमेरेन शिकलो.

त्या काळार गोंयचेर पुर्तुगेजांचो शेक चलतालो. बाटोवणी आनी धर्मीक पिडापीड् हांकांलागून लोक सदांकाळ चेपणाखाला वावुरताले. थळावी संस्कृताय ना करून पुर्तुगेज संस्कृताय लोकांचेर थापपाच्या हेतान पुर्तुगेजांनी जायतीं बंधनां घाल्लीं. कोंकणीं भास उलोवपाचेर बंदी घाल्ली आनी पुर्तुगेज भास सक्तीची करपी नेम तयार केल्ले.

नामनेचे भाशातज्ञ आनी इतिहाससंशोधक डॉ. ग्रियर्सनं म्हणटात: 'पुर्तुगेजान त्या काळार जें कोंकणी लिखाण - बरपां गोंयां मेळिल्ली तीं लासून वा नश्ट करून उडयलीं.' थोडो

काळ सरल्याउपरांत तांचो किंवाटो मातसो देंवलो. तेन्ना देवा-धर्माच्या कामांखातीर गोंयकार हिंदूंनी लागशिल्या वाटारांतल्यान भटांक आपोवन हाडले. कोंकणींतल्यान शिक्षणाची आनी पुस्तकांची वेवस्था नाशिल्ल्यान पर्यायी वेवस्था करूंक जाय आशिल्ली. कोंकणीक शेजारच्या कानडीपरस मराठी भास लागींची आशिल्ल्यान तशेंच त्या काळार मराठींतलें भक्तिसाहित्य गोंयां पाविल्लें आशिल्ल्यान गोंयकारांनी शेजारच्या राज्यांतल्यान मराठी मास्तरांक हाडून मुळाव्या शिक्षणाची वेवस्था केली. पुर्तुगेज सक्तीन शिकिल्ल्यान किरिस्तांव मात रोमी लिपीचो आदार घेवन कोंकणींतल्यान वाचप-बरोवप करताले. हे भाशेन भारतीय संस्कृतायेकडलें आपलें नातें तिगोवन दवरपाखातीर हिंदू गोंयकारांनी आपल्या भुरग्यांक मुळावें शिकप मराठींतल्यान दिवपाची तजवीज केल्ली. पूण तिसरी - चवथी मेरेनूच. उपरांतचें शिक्षण तें पुर्तुगेज वा इंग्लिश भाशेंतल्यान, तेंय मेळपाची वेवस्था फकत शाळांनीच आसताली आनी शाळा सगल्याच गांवांनी नाशिल्ल्यो.

लागीं शाळा नाशिल्ल्यान वामनाक तिसरीमेरेन शिकून वर्सभर घरा बसचें पडलें. पूण तितलेभितर सवी यत्तेमेरेन शिकोवपी एक शाळा दिवचलेंत उक्ती जाली आनी वामनान थंय प्रवेश घेतलो. सवी पास जालो. मागीर कितें? बापायन ताका पुर्तुगेज इश्कोलांत घालो. फुडें बस्तोड्या आजोळा रावून वामनान सेगुंद ग्रावमेरेनचें शिक्षण घेतलें. पूण घरचे गरिबकायेक लागून फुडें शिकोवप बापायक शक्य नाशिल्ल्यान वामन घराच उरलो.

घरची आवतिकाय खबर आशिल्ल्यान वामनान किरकिर केली ना. पूण शिकपाची बळीश्ट वान्सा ताका थंड बसूंक दिनासली. ताणें मेळटात तीं पुस्तकां वाचपाची गिरण सूरू केली. घरा बसून तो इंग्लिश शिकूंक लागलो. गणित शिकून घेतलें. मराठी वाचतां-वाचतां ताका संस्कृताची गोडी लागिल्ली. स्वाध्याय

पद्धतीन, म्हळयार आपले आपूण तो संस्कृत शिकूंक लागलो. भाशा आनी इतिहास हे विशय ताचे चड आवडीचे.

एक दीस ताच्या हातांत एक पुस्तक आयलें. नांव 'सरस्वती मंडल'. बरोवपी रामचंद्र भिकाजी गुंजीकर. आधाशावरी वामनान तें वाचून काडलें. बुदवंत वाचकाचे बुद्धीक धार काडपी आनी गिन्यानाची खण म्हणूं येता अशें तें पुस्तक वाचून भुरगो वामन तटास जालो. कोंकणी मनशाच्या अभिमानाक जाग हाडपी कांय वाक्यांनीं तर गोंयबाब भारावन गेले. कोंकणी भास एक भोव गोड अशी भास आनी हे भाशेचें मूळ वेदीक भाशेंत आसा असो निर्वाळो दिवपी विधानां वाचून तांचो अंतरात्मो उचांबळीत जालो. केन्नातरी हें मूळ उस्तून पळोवंक जाय अशें मनांत आयलेबगर रावलें ना.

शाळेंत वचून शिक्षण घेवपाची इत्सा मारून उडोवंची पडली तरी वामनान वाचन, मनन आनी स्वाध्याय पद्धतीन शिक्षण चालूच दवरलें. बुदवंतकायेन भरिल्लीं पुस्तकां वाचता तितली ताची भूक वाडटाली. मराठींतलें भक्ती साहित्य वाचून वामनाकूय बरोवंचें शें दिसतालें. ताणें कांय अभंग रचले. कांय कविता रचल्यो. पूण मुळांत सभाव नुलोवपी जाल्ल्यान कोणाक दाखोवंक वचनासलो. आवयक मात तो वाचून दाखयी. आनी ती आवयूय ह्या शाण्याची मना-काळजा थावन तोखणाय करी.

भौ. चिंतामणबाब वर्दे वालावलीकार निक्तेच मुंबयचे बँकेंचे मॅनेजर म्हूण निवृत्त जाल्ले. तरणेपणांत वर्साआड गोंयां वचून येवपी चिंतामणबाब साठी हुपल्याउपरांत गोंयां पावंक नासले. अंदूं वर्सा अनंतचतुर्दशी निमतान मूळघरा वचून येवपाचें तांच्या मनांत आशिल्लें. पूण योग आयलो ना. वर्स सरतासर बँकेंत वचचें पडलें. अखेरेक संक्रांतीकडेन ते घरकान्नीक घेवन गोंय भेटेर आयले.

कवळयां कुळदेवी शांतादुर्गेच्या पांयांकडेन चार दीस रावून ते सोयऱ्यां-धायऱ्यांक मेळूंक गेले. सांग्यांर, जुंव्यार आशिल्ल्या वालावलीकार वर्गियांक मेळून जातकीर ते दिवचले मूळ घरा आयले. भितरले पेटेंतल्या त्या माळयेच्या घरांत माळयेरच तांची रावतिका आशिल्ली. माळयेर वण्टीक मारिल्ल्या फळयांचेर दाळून दवरिल्ल्या पुस्तकांचेर तांची नदर गेली. जाल्यार थंय कांय मराठी पुस्तकांवांगडा थोडीं इंग्लिश, थोडीं पुर्तुगेज आनी खूबशीं संस्कृतातलीं पुस्तकां तांकां दिश्टी पडलीं. एक पुस्तक हातांत घेतलें. पळय जाल्यार रामचंद्र भिकाजी गुंजीकरांचें 'सरस्वती मंडल' हें पुस्तक. अशे तरेचीं पुस्तकां कोण वाचता काय? भगवंत वा शंकराक वाचपाची इतली आवड आशिल्ली तांकां जाणोवंक नासली. रघुनाथ तर दीसभर मांडार बसून पसरकारितेंत गुल्ल आसतालो. चिंतामणबाबांची जिज्ञासा जागी जाली. पुस्तक घेवूनच ते माळी देंवले.

"हय गे, सिताबाय, हीं पुस्तकां वाचता कोण?"

सिताबायक हरशींच शाण्याची कितली तोखणाय! तातूंत चिंतामणबाबांनी ज्या सुरांत प्रस्न विचारिल्लो ताचेवेरसून हीं पुस्तकां बरीं गिन्यानान भरिल्लींच आसूंक जाय म्हणपाचें तिणे जोखलें. ती फुलली.

"शाणो! ताका वाचपाची खूब्ब आवड," सिताबाय पुताविशींचो अभिमान उलयली.

"किदें शिकला तर तो?" चिंतामणबाबांनी विचारलें.

"मराठी सवी शिकला. पुर्तुगेज चार क्लासी काडल्यात. खूब आवड ताका शिकपाची. पूण ... आमच्यांनीं जावं नाका? तोच आपले आपूण शिंकता, मेळटा तें ..."

आमोरेचेर वामन घरा आयलो जाल्यार ताचो तिपोलयो ताचीच वाट पळयतालो.

"वयर संस्कृताचीं पुस्तकां आसात तीं तुजीं?" चिंतामणीबाबांनी पयलोच प्रस्न विचारलो.

"हय. थोडीं हांवें बर्वे मास्तरालीं मागून हाडल्यांत. थोडीं वाचनालयांतल्यान-" वामनान खांकडत सांगलें.

"तुका कळटा वाचूंक? आनी समजता?"

"म्हजे हांवेंच थोडें शिकून घेतलां." वामनान जाप दिली.

"वाचून दाखय पळोवंया." अशें म्हूण चिंतामणबाबांनीच एक पुस्तक उगडून दिलें. वामनाली भीड मोडली. ताणें सडसडीत वाचलें. अर्थूय सांगलो.

चिंतामणकाकाली जिज्ञासा आनी तोखणाय पळोवन वामनान म्हळें, "गीतेंतलो कर्माविशींचो पाठ म्हणू?"

आनी "योग कर्मसु कौशलम्" हो पाठ ताणे घडघडीत म्हणून दाखयलो.

"आनी ती इंग्लिश पुस्तकांय तुजींच?" धाकटुल्या वामनाविशीं तांच्या मनांत आदर निर्माण जावंक लागिल्लो.

"हय, चड कळना. पूण शिकतां-"

चिंतामणबाबांनी इंग्लिश पुस्तकूय ताजेकडसून वाचून घेतलें. वामनान संवकळीन वाचिल्लें पळोवन चिंतामणबाबांक अजाप जालें.

आवय सिताबाय दाराकडेन रावून कवतुकान सगलें पळयताली. वामनालो नुलोवपी सबाव वळखून ती फुडें सरली. पदर सारको करून तिणे चिंतामणबाबांक सांगलें - "शाणो बरे अभंग बरयता; आनी कविताय केल्यात ताणें..."

"नाका गे ताबाय-" वामनान संकोचान आंवळून म्हळें," "बरें बरोवंक ना हांवें-"

वामन ल्हान आसतना जाणट्यांलें आयकून सिताबायेक लुडबे भाशेंत - 'ताबाय' म्हणी. तेंच व्हड जालो तरी उरलें. आनी आवय अपुर्बायेन पुताक 'शाणो' म्हणी तेंय पूत जाणटो जालो तरी तशेंच उरलें.

"कशेंय आसूं. म्हाका दाखय पळोवया," चिंतामणबाबांनी आग्रो धरलो आनी वामनाक आपली बरपावळ दाखोवंचीच पडली.

सोळा वर्सां पिरायेच्या वामनान बरयिल्ल्यो मराठी कविता आनी अभंग वाचून चिंतामणबाब खूबूच प्रभावीत जाले. वामनाली शुद्‌ध भास, मुळावे विचार आनी उतरांची जाण पळोवन तांकां अजाप जालें. तागेली संस्कृत भाशेविशींची तान आनी इंग्लिश शिकपाची उमेद भागोवपाची जबर इत्सा तांच्या मनांत उप्रासली. खिणाचोय विचार करिनासतना ताणीं विचारलें,

"वामन येता म्हजेबरोबर मुंबय? मॅट्रीक मेरेन तरी शीक".

वामनाले खोशेक शीममेर उरली ना. ताणें आवय वटेन पळयलें. ती बाबडीशी जावन येवजिताली.

"सिताबाय, ताका धाडटा जाल्यार ताचो पत्कर हांव घेन. शिकलो जाल्यार नांव काडटलो तुजो पूत." चिंतामणबाबांनी

आवयक समजायत सांगलें. ते राती रघुनाथबाब आनी सिताबायेन सगल्यांच्या सन्मथान वामनाक मुंबय धाडपाचो निर्णय घेतलो.

बोटीन मुंबय वचपाक भायर सरले. डेकाचेर जमखनां पातळावन ताणीं सुवात आडायली. भोंवतणचो अनवळखी संवसार नदरेंत आनी काळजांत आस्पावन घेत वामनालो प्रवास सुरू जालो. शिंयाळ्याचे दीस. थंड शितळ वारो व्हांवतालो. वयर लेव निळें मळब आनी सकयल शेकानशेक पातळिल्लो गाढ पांचवो निळो दर्या. जिणेचे पटयेंतलें एक नवें पान वामन वाचतालो. इतल्यान कोणेतरी चिंतामणबाबांक हटकिले.

"कशे आसात, चिंतामणराव? कितले दीस उरले गोंयां?"

"म्हयनोभर उरलों. देवते पांयांकडेन चार दीस आनी नातेवर्गियांगेर दोन दोन दीस म्हळ्यार म्हयनो कसो सरलो कळ्ळेंच ना." चिंतामणबाबांनी नमळिकायेन सांगलें.

उलयतां उलयतां त्या मनशाची नदर वामनाचेर पडली. वामनाल्या दोळ्यांतली सपनां ताणें पळयलीं नात. तागेलो भेस आनी बाबडी मुद्रा पळोवन ताणें विचारले, "ह्या गोंयबाबाक खंय घेवन चल्ले तुमी?"

जे तरेन त्या मुंबयकार गोंयकारान 'गोंयबाब' हें उतर उच्चारिल्लें ती तराच त्या उतराक उणाकपण दिवपी आसली. त्या काळार गोंयांभायर वचून जोडपी लोक गोंयां रावपी लोकांक 'गोंयबाब' म्हणटाले. तांच्या मत्तान गोंयचो लोक हो ऐदी, आयतें खावपी, कश्ट काडिनासतना बसून गिळपी आनी हातपांय हालयनासतना चकाटां मारपांत धन्यताय मानपी आळशी. देखून ते 'गोंयबाब' म्हूण तांकां हिणसायताले.

चिंतामणबाबांक तें उतर मानवलें ना. आपणाली नाराजगी लिपयनासतना पूण शांतपणान ताणीं सांगलें, ‘‘हो पुतणयो म्हगेलो. हुशार आसा. ताका मॅट्रीक मेरेन शिकोवंचें म्हण मुंबय व्हरतां.’’

चिंतामणबाबांल्या उतरांनी भरिल्लें वामनाविशींचे आपलेंपण पळोवन त्या मनशाक आयिल्ली फकाणां मारपाची कूय जिरली आनी तो कडसरलो. पूण वामनाचे तकलेंत मात चक्र धुंवूंक लागलें. ‘बाब’ हें उतर आदरार्थी. ‘गोंय’ तर आमची आवयभूंय. मागीर ह्या उतराक ह्या लोकांनी हिणसावणी कित्याक म्हूण दसोवंची? गोंयकारांनी गोंयकारांकूच हिणसावपाची कसली ही तरा?

ही गजाल ते विसरले नात. मुंबयंत रावपी गोंयकारांचे न्यूनगंड आनी अहंगंड ताणीं लागशिल्ल्यान पळयले. गोंयकार म्हणून घेवपाक लेगीत थोडे अनमनताले. कोंकणी उलोवप उणाकपणाचें लेखताले. आनी गोंयांतल्या गोयकारांच्यो बकच्छायो करपांत धन्यताय मानताले. फुडें पंदरा वर्सांनी तांणीं ‘गोंयकारांचो मुंबैकार’ हें विडंबन-काव्य रचून ताचें पुस्तक उजवाडायलें. मुंबयंतल्या गोंयकारांचो अडेचो झेत आनी अडेची व्हडविकाय हांचीं खेबाडां करीत, पूण तेच बराबर गोंयचेविशींचो अभिमान वाडपासारक्यो गजाली सांगून बरयिल्ल्या ह्या पुस्तकान गोंयकारांच्या मुंबयकारांचें रुपडें पिंदून उडयलें.

तेचबरोबर आनीक एक गजाल केली. ‘गोंयकारांचो मुंबैकार’ ह्या पुस्तकाचेर बरोवप्याचें नांव ‘शणै गोंयबाब’ अशें बरयलें. ‘शणै’ म्हळयार शिक्षक. जो शाणो आसा आनी दुसऱ्यांक शाणो करता तो शणै. वामन वर्दे वालावलीकार हाणीं जाणीवपुर्वेक ही शणैची भूमिका आपणायली आनी निभायली. आनी जें ‘गोंयबाब’ उतर हिणसावपाखातीर वापरताले त्या उतराकूच

प्रतिश्ठा दिवन 'शणै गोंयबाब' हें लिखणे-नांव वा साहित्यीक नांव म्हूण ताणीं सदांकाळ आपणायले.

सुर्वेच्या काळांत वामन हेर गोंयकार हिंदूंवरी मराठींतच बरयतालो. मराठी ही आपणाली आवयभास. कोंकणी ही उलोवपापुरती वापरपाची भास. कोंकणी म्हळयार मराठीची हेंगाडी बोली अशें जायत्या गोंयकारांवरी ताकाय दिसतालें. मुंबयच्या खुबशा गोंयकारांक तर चारचौगांत कोंकणी उलोवपाची लज दिसताली. दोन गोंयकार कोंकणी उलयतना एखादरो मराठी मनीस लागीं पावलो जाल्यार ते बेगबेगीन मराठींत उलयताले, तो तिसरो मनीस आपणांक हांसत म्हूण. ही तरा मात वामनाक मात्त मानव नासली. तांची ताका तिडकूच मारताली.

1898 वर्सा वामन मॅट्रीकेची परीक्षा भोव बरे मार्क घेवन पास जालो. शाळेंत तर तो पयलो आयलो. संस्कृतांत जगन्नाथ शंकरशेट शिश्यवृत्ती मेळोवपाची ताची इत्सा मात फळादीक जाली ना.

त्या वर्सा शाळेंतल्यान उत्तम यश जोडून मॅट्रीक उत्तीर्ण जाल्ल्या विद्यार्थ्यांचें अभिनंदन करपाखातीर शाळेन खोशेचो दबाजो आयोजीत केल्लो. सेंट झेविअर कॉलेजींतले एक नामनेचे विद्वान आनी मराठी - संस्कृताचे पंडीत सभेचें अध्यक्षपद चलयताले. त्या वेळार वामनान आपणे बरयिल्लो एक मराठी निबंद वाचून दाखयलो. तो आयकून अध्यक्ष इतलो प्रभावीत जालो की आपणाल्या अध्यक्षीय भाशणांत ताणें वालावलीकारांचें कवतूक करून म्हळें, ''ह्या भुरग्याची भास आनी शैली इतली सुंदर आसा की असोच बरयत रावलो जाल्यार फुडारांत तो विष्णुशास्त्री चिपळूणकरांकूय फाटीं घालतलो.''

वामनबाबांनी तांचीं तीं उतरां फुडें खरीं करून दाखयलीं.

चिपळूणकरांनी मराठीखातीर जितलें केलें ताचेपरस कितलेंशेंच चड शणै गोंयबाबांनी कोंकणीखातीर केलें. तेंय बी प्रतिकूल परिस्थितींत. कोंकणींत हें ना, तें ना म्हणपी मराठीवाद्यांक चूप करपाखातीर जें जें कोंकणींत ना, तें तें निर्माण करून दवरलें.

मॅट्रीक पास जाल्याउपरांत कॉलेजींत धाडपाइतली आवतिकाय वामनबाबांल्या घरच्यांची नासली आनी चिंतामणबाब निवृत्त जाल्ल्यान तांचीय नासली. परिस्थिती मुखार मारतें घेवन वामनबाब गोंयां परतले. आसगांवच्या एका इंग्लिश स्कुलांत ते शिकोवपाक लागले. पूण वर्साभितर उबगले. थंयसून ते कराचीक गेले. थंयचे नगरपालिकेंत तांकां नोकरी मेळ्ळी. पूण थंयूय तांचो जीव रमलो ना. ते परते मुंबयत आयले.

आसगांव आसतनाची एक गजाल. त्या दिसांनी पुर्तुगेज सरकारान अभ्यासक्रमांत मराठी-पुर्तुगेज हो भाशांतराचो विशय सुरू केल्लो. पूण फावो तशें पाठ्यपुस्तक मेळनासलें. इश्कोलांची ती गरज पळोवन वामनबाबांनी 'उ मेस्त्र मारात-पुर्तुगेज' ह्या नांवांचें एक पुस्तक बरयलें. एक प्रेस कॉपी तयार केली आनी ती घेवन ते बारांव द कुंबारजुंवे ह्या पाखल्याक मेळपाक गेले. तांचें नांव तोमास मोयरांव. पुर्तुगेज आसुनूय ताणें गोंयचो आनी लोकांचो बरो अभ्यास केल्लो. गोंयचे जनतेच्या बऱ्याखातीर ते आपलेपरीन वावुरताले. पुर्तुगेज शाळांचे इन्स्पेक्टर आसले. विशेश म्हळयार गोंयचे हिंदू मराठी शिकतात तें पळोवन ताणींय मराठी शिकून घेतिल्ली.

वालावलीकारांनी बरयिल्लें पुस्तक तांणीं वाचून काडलें आनी पुस्तकाची तोखणायूय केली. पूण-

"सिन्योर वालावलीकार, सुर्वेचे प्रस्तावनेंत तुमी मराठी विशीं जें बरयलां तें वाचून म्हाका अजाप दिसलें."

"कितें बरयलां अशें?"

"मराठीक तुमी 'अ लींग्व वेर्नाकुला द गोआ' अशें म्हळां."

"तातूंत कितें? आमची गोंयकारांची भास मराठीच न्हय?" वामनबाबांनी घोळटेंतलीं उतरां उलोवन उडयलीं.

"अशें कशें जावं येता? मराठी भास तुमी शिकून घेतल्या जायत. पूण गोंयकरांची आवयभास कोंकणी न्हय? तीच Lingua Vernacula de Goa!"

बारांवाल्या उतरांनी वामनबाब गोंदळ्ळे. बारांव द कुमारजुंवा हो मराठीचो जाणकार आनी मराठीविशीं आदर बाळगुपी मनीस. ताणें स्वता प्रयत्न करून गोंयच्या लोकांक उपकरा पडचीं म्हूण 'रामविजय' सारकीं मराठी पुस्तकां छापून उजवाडयिल्लीं. अशें आसुनूय हो मनीस गोंयकारांची आवयभास मराठी न्हय, कोंकणी म्हण सांगता जाल्यार तातूंत तथ्य आसा अशें वामनबाबांच्या मनान घेतलें. रचिल्ल्या 'अु मेस्त्र मारात-पुर्तुगेज' ह्या पुस्तकाविशीं तोखणायेचीं आनी प्रशस्तीचीं उतरां उलोवनूय प्रस्तावनेंतल्या त्या विधानाक तांचो आक्षेप आशिल्लो. हाचोच अर्थ मराठी विशींचें तांचें मन पूर्वग्रहविरयत आशिल्लें.

वामनबाबांक गुंजीकरांल्या 'सरस्वती मंडल' पुस्तकाचो उगडास जालो. कोंकणी ही गोड सुरबूस भास आनी तिचें मूळ संस्कृतांत आसा हें विधान दोळ्यांसामकार नाचूंक लागलें. तशें जाल्यार लोक कोंकणींत बरयनात कित्याक? कोंकणीत ग्रंथरचना जायना

कित्याक? पत्रां कोंकणींत बरयनात कित्याक? अशे संख्येनी प्रस्न तांच्या मनांत धुमशेणां कांडूंक लागले.

बारीकसाणेन येवजतकीर तांच्या लक्षांत एक एक गजाल येवंक लागली. गोंयचीं किरिस्तांव भांवडां मराठी नाटकां पळयनासलीं. तांका तीं समजनासली. कारण तीं शाळेंत वचून मराठी भास शिकनासलीं. पुर्तुगेज सरकारान पुर्तुगेज शिकपाखातीर इश्कोलां उक्तीं केल्लीं. मुळावें शिकप पुतुगेजींत घेतलें म्हूण पुर्तुगेज भास शिकिल्लेभाशेन जायना. किरिस्तांव जेन्ना चाकरे निमतान गोंयाभायर जावं तारवार वताले तेन्ना गांवघरा चीट बरयताले ती कोंकणींत आसताली. पुर्तुगेज इश्कोलांत शिकिल्ले रोमी लिपयेचो आदार घेवन ते कोंकणींतल्यान चिटयो बरयताले. रोमींत पुस्तकांय उजवाडा आयिल्लीं. पाखल्यांनी छापखान्यावांगडाच रोमी खिळे हाडिल्ल्यान तांच्या छापखान्यांत उजवाडाक आयिल्लीं सगलीं धर्मीक पुस्तकां रोमी लिपयेंत पूण कोंकणी भाशेंत बरयिल्लीं आसलीं. कांय नेमाळींय उजवाडा येतालीं. तेवटेन मंगळूर शारांत रावपी कोंकणे मात कन्नड लिपयेत कोंकणी बरयताले. कन्नड भास शिकून तेच लिपयेंत कोंकणी बरोवपाचें सोंपेपण तांका मेळिल्लें. कोची-त्रावणकोरमेरेन केरळांत पातळिल्लो कोंकणी मनीस मल्याळी लिपयेंत कोंकणी बरयतालो. गोंयां-मुंबय मात कोंकणीत बरयलेंच जाल्यार देवनागरींत बरयताले. तशें जाल्यार - कोंकणीची सभावीक लिपी खंयची? तांकां प्रस्न पडलो. पूण तेदेवेळार तरी त्या प्रस्नाची जाप सोदपाची तांकां गरज दिसली ना.

कराचीक गेल्लेकडेन तांच्यातलो शणैमाम पर्थून जागो जालो. थंयच्या इंग्लिश हायस्कुलांनी शिकपी भुरग्यांक सिंध प्रान्ताचो इतिहास शिकपाखातीर फावो तशें पाठ्यपुस्तक नाशिल्लें.

मुळांतच इतिहासाची आवड आनी पिंडान संशोधक आशिल्ल्या शणै वामनबाबांनी इतिहासाचीं पुस्तकां अभ्यासून टिपणां काडून संशोधन करून विद्यार्थ्यांक फावो अशें सिंधाचो इतिहास सांगपी इंग्लिश पुस्तक बरोवन काडलें. उपरांत ताणीं तें शिक्षण बोर्डाक धाडलें. तांकां तें पसंतूय पडलें. पूण उपरांत तांबड्या फितांत जें घुस्पलें तें खंय आडखळून उरलें कळ्ळेंच ना.

कराची सोडून वामनबाब मुंबय आयले आनी मागीर घर–संसार–नोकरी ह्या चक्रांत घुस्पले. पूण ते मजगतीं आनीक एक गजाल घडली.

वामन वर्दे वालावलीकारांनी एक मराठी नाटक बरयलें. 'रामराज्याभिषेक'. बरयले उपरांत निवळावन बी जातकीर ताणीं तें प्रकाशीत करचें वा माचयेर हाडचें अशें थारायलें. नाटक बरें बरोवन जालां अशें तांचो अंतरात्मो तांकां सांगतालो. तेपयलीं बरयिल्ल्यो कविता वा इतर लेखन ताणी स्वानंदाखातीर बरयिल्लें आनी आपणाक प्रगल्भताय येवपाक अजून वाट पळोवंक जाय हें येवजून केन्ना उजवाडावपाचो विचार करूंक नासलो. पूण हें नाटक मात माचयेर खेळोवपाचे योग्यतायेचें आसा हाची तांकां खात्री आसली.

त्या काळार अण्णासाहेब किर्लोस्कर हें नांव महाराष्ट्रभर गाजतालें. मराठीचे नाट्याचार्य म्हूण तांकां वळखताले. खबर काडीत काडीत एक दीस वामनबाब तांचेसरीं पावले. एक जुवान भुरगो नाटक बरयता हाची अण्णासाहेबांक तोखणायच दिसली. ताणीं सांगलें, ''हस्तलिखित हांगांच दवर. हांव तें वाचतां. आठ दिसांनी येवन मेळ. मागीर सांगतां.''

खुशाल मनान वामनबाब परतले. अण्णासाहेब किर्लोस्कर म्हळ्यार नाटकांतले महर्षि. ताणीं वाचून पळोवप म्हळयार लेगीत

भाग्य. आनी नाटकाचे विशीं वामनबांबांचो आत्मविस्वास इतलो खर आशिल्लो की अण्णासाहेबांनी नाटक वाचल्यारच पुरो, तांकां तें मानवलेबगर रावचेंच ना अशें तांचें मन तांकां सांगतालें.

आट दीस सरतासर वामनबाबांचो जीव कंठाकडेन आयलो. वयलेचाराक ते शांत दिसताले. पूण मनांतली उमळशीक तेमकार पाविल्ली. थारायिल्ले प्रमाण वामनबाबांनी अण्णासाहेबांची भेट घेतली. भोव बरो येवकारूय मेळ्ळो.

"या, या. तुमचीच वाट पहात होतों." अशें म्हणून ताणीं वामनबाबांक बगलेक बसोवन घेतलें. कांय वेळ मोनेळ पातळ्ळो. मागीर हस्तलिखित चाळीत ताणीं म्हळें, "हें पळयात, नाटक सुंदरच बरयलां. विशय बेस बरो हाताळ्ळा. पात्रां-प्रवेश बरे रचल्यात. पूण नाटक इतलें बरें बरोवनूय एक गजाल खटकता."

वामनबाब तटास जाले.

"संवाद म्हळयार नाटकाचो प्राण. हे संवादच मनाक पुटवनात. सामके निर्जीव, अडेचे कशे दिसतात. तुमची मातृभाषा खंयची?" अण्णासाहेबांचो प्रस्न अनपेक्षीत आशिल्लो.

वामनबाबांक बारांवाल्या उतरांची याद जाली. 'सरस्वती' मंडलांतलें विधान येवजून आयलें.

"म्हजी आवयभास कोंकणी." वामनबाबांल्या तोंडांतसून उतरां आयलीं.

"तरीच!" अण्णासाहेब उलयले, तुमची मराठी भास पुस्तकी आनी अनिसर्गीक कशी दिसता. कारण ती तुमची भास न्हय. हें नाटक माचयेर हाडूंक योग्य दिसना."

फुडलीं उतरां वामनबाबांच्या कानांत गेलीं नात. त्या खिणाक तांकां कोंकणीचो दिश्टावो जालो. मराठी म्हाका खूब बरी कळटा आसुनूय मराठी मनशाक ती अडेची कशी दिसता. म्हगेली मराठी जर असभावीक जाल्यार म्हगेली सभावीक भास कोंकणी अशें जालें ना?

त्या दिसाच्यान वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांणीं कोंकणीचे उदरगतरखातीर पेंगट बांदलें. दुसरे करतले ह्या म्हालवजार रावनासताना स्वता लिखणी हातांत घेतली. जिज्ञासेची कुदळ आनी चिकित्सकतायेचें खोरें घेवन खण उस्तुपाक सुरवात केली. बुद्धीचे साणीर घांसून पळय जाल्यार हाताक मेळटा तितलेंय सतमाचें भांगर.

त्या काळार कोंकणी ही मराठीची बोली अशें मानपी लोक गोंयांत आसले. तांचो भ्रम निवळावपाखातीर शणै गोंयबाबांनी कोंकणी ही व्याकरणी नदरेन मराठीपरस वेगळी कशी हें शास्त्रोक्त पद्धतीन दाखोवन दिवपी 'कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ' हें पुस्तक बरयलें. हें पुस्तक बरोवंचेखातीर ताणी जायत्या भारतीय भाशांतल्या व्याकरणांचो अभ्यास केलो. तेभायर संस्कृत व्याकरणशास्त्री पाणिनी हांगेलीं सगलीं सुत्रां शिकून घेतलीं. तांगेलो अभ्यास इतलो परिपूर्ण आसलो की महाराष्ट्रांतल्या मुखेल 76 व्याकरणशास्त्र्यांमदीं शणै गोंयबाबांचो आस्पाव करून तांची वळखूय श्री मोरेश्वर मोने हाणी संपादीत केल्ल्या पुस्तकांत दिल्या.

इतिहास हो मुळांतच वालावलीकारांचे आवडीचो विशय. 1927 वर्सा गोवा हिंदू असोसिएशनाच्या व्यासपिठावयल्यान शणै गोंयबाबांनी 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक' ह्या विशयाचेर व्याख्यानमाळ गुंथिल्ली. सुर्वेक फकाणां मारपाक आयिल्ले लोक

मागीर इतले प्रभावीत जाल्ले की फुडलीं सगलीं व्याख्यानां खेटगर्देत जाल्लीं. उपरांत ह्या व्याख्यानांचें संकलन करून पुस्तक रुपान उजवाडायलें. तेन्ना प्रकाशन सुवाळ्याचे अध्यक्ष म्हूण हार्जीर आशिल्ल्या श्री. वसंतराव नाईक ह्या एका विद्वानान शणै गोंयबाबांच्या वावराची खूब तोखणाय केल्ली. पूण बुद्ध धर्म गोंयां पाविल्लो ह्या शणै गोंयबाबांच्या निश्कर्शाचेर अविश्वास दाखोवन ताणीं म्हणिल्लें की जें जें बरें तें तें सगलें गोंयांत आसा हे धारणेंतल्यान घेतिल्ली ही भूमिका आसा. पूण उपरांत जेन्ना सेंट झेविअर कॉलेजींत शिकोवपी इतिहास संशोधक प्रा. फादर हेरास हे शणै गोंयबाबांचें संशोधन पडताळून पळोवपाक गोंयां पावले आनी थोड्याशा उत्खननाउपरांत तांकां बुद्ध धर्माच्यो अवशेषमुर्ती मेळ्ळ्यो म्हणपाचें वसंतरावांक कळ्ळें तेन्ना वसंतराव नाईकांनी मुजरत शणै गोंयबावांची भेट घेतली आनी तांची माफी मागली.

गोंयकारांच्या गोंयकारपणाचो आनी कोंकणीचो अतूट संबंद होलमल्ल्यान शणै गोंयबाबांनी कोंकणी भाशेचे उदरगतीचो वावर हातांत घेतलो. कथा, कादंबरी, नाटक, निबंद, व्याकरण, इतिहास अशा साबार विशयांचेर लेखन केलें. किरिस्तांव भावंडां कोंकणीकडेन लागीं येवंचीं आनी तांच्यांतली सर्जक शक्त वाडची म्हूण ताणीं रोमी लिपयेंतूय लेखन करून पुस्तकां उजवाडायलीं.

कोंकणीचो पाखो घेनाफुडें परंपरावादी मराठीमोगी लोकांनी तांच्यो भगल्यो मारपाक आनी टिका करपाक सुरवात केली. पूण शणै गोंयबाब वावत कूळ नासले. इतिहासीक आनी शास्त्रीय आदारांचेर ते विधानां करताले आनी मुद्देसूद बरयताले. विरोध जातलो हाची जाण पयलींच आशिल्ल्यान तांणी पयलीं आपणालें संशोधन पूर्ण करून विचारांची तत्वीक बसका घटमूट

केल्ली. तेखातीर ताणीं गोंयचो 2500 वर्सांचो इतिहास उस्तून काडिल्लो. इतिहासशास्त्र्यांनीं बरयिल्ल्या सुमाराभायर पुस्तकांचो बारीकसाणेन अभ्यास केल्लो. भाशाशास्त्र आनी नादशास्त्र शिकून कोंकणीचो अभ्यास केल्लो. तुलनात्मक अभ्यासाखातीर मराठी, संस्कृत, हिंदी, गुजराथी, पाली, अर्धमागधी, पोरणी महाराष्ट्री अशा विंगड विंगड भाशांचो अभ्यास केल्लो. पुर्तुगेज इंग्लिशी वांगडाच फ्रेंचूय शिकून घेतिल्ली. व्याकरण रचपाखातीर पाणिनीचीं सगलीं सुत्रां शिकून घेतिल्ली. तेभायर भारतीय आनी युरोपी शास्त्र्यांनी बरयिल्ल्या साबार व्याकरणांचो अभ्यास केल्लो.

उपरांत ताणीं नामनेच्या गोंयकारांची चरित्रां अभ्यासून तांच्या वावराचेर घणघणीत उजवाड घालो. कांय इतिहासीक सोद ताणीं लायले आनी खासा तेखातीर ते गोंयभर भोंवले.

तेभायर कोंकणींत बरपाक्षरी साहित्य ना, सरस्पत ना म्हण हिणसायतल्यांक जाप दिवपाखातीर शणै गोंयबाबांनी काणयो, नवलकाणयो, नाटकां आनी भुरग्यांचें साहित्य रचलें. विशेश म्हळयार सामान्यांतल्या सामान्य विद्रेभायच्या कोंकण्याक लेगीत समजतलें अशें 'श्री भगवंतालें गीत' रचलें. श्रीमद्‌भगवद्‌गीतेचो हो कोंकणी रुपकार कितलो सरस आनी सुरस जाला तें वाचलेबगर होलमूचें ना. पूण जाणकार सांगतात की हेर खंयचेय भाशेतल्या बऱ्या अणकारांइतलो तो श्रेष्ठ आनी सरस आसा.

"मनशाक इत्सेचें बळगें दिलां म्हण्टात खरें," परंत तांगेले इत्सेभाशेन संवसारांत चड करून कितेंच घडून येना, अशें म्हणचें पडटा. आमी मेळत तेन्ना 'हांव - हांव' म्हणचें आनी हातपांय धाडावंचे. पूण आमी निर्शेवंक फावना आनी धीर

गळसणावंक जायना. घडूंक जाय तें घडटलें हें खरेंच. परंत ताकत तितलें तें आळाबंदा हाडूंक आनी ताका जाय जाल्लें रूप दिवंक आमी वावरूंक जाय.

''काराथें म्हळ्यार कोडू कोडू झार. परंत विश्वामित्रासारक्या मनशानूच चिके बदलून ताचें फागूल केलें ना? आतां तें आमकां घोसाळ्याइतलेंच रुचीक लागता! अशोच संवसारांतल्यो हेर गजाली. जंय थंय कोडू आनी वायट पातळ्ळां. तें आमी तांकत तितलें गोड करून खावंक जाय. नाजाल्यार आमचें मनीसपण तें कसलें? आमकां जाय जाल्लेंच घडिल्लें आनी नाका जाल्लें घडनासलें तर पुरुशार्थ म्हणटात तें उतर घोळणुकेंत येवचें कारणूच नासलें. पुरुशार्थ म्हणटात तो होच की जें कितें घडचेलें आसा ताचेकडेन नेटान पौठ घांसची, नेटान झगडचें आनी तांकत तितलो आपलो मार्ग निवळ आनी लकलकीत करचो.''

हीं उतरां शणै गोंयबाबांचीं. खरेपर्णीं त्या दिसांनी कोंकणीचो वावर हो कोडू काराथ्यावरीच आसलो. पूण ह्या महर्षि विश्वामित्रान ताचें फागूल केलें. कुडींत तांक आसासर ते कोंकणी सरस्पत आनी भास हांचे उदरगतीखातीर वावुरले. भाशेची उदरगत म्हळयार समाजाचे उदरगतीचें साधन. कोंकणी समाजाक कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगूंक मेळचें ही मोख घेवन ते वावुरले. कोंकणी समाज एक पुरुशार्थी समाज म्हूण वयर सरतलो जाल्यार आपणाले आस्मितायेची ताका जाण जावंक जाय अशें तांकां दिसतालें. देखून समस्त कोंकणी समाजाक ताणीं सांगलें-

''आमगेले भाशेचें कुळार वेदांच्या कुळवंत, गिरेस्त, नांवादीक आनी लोकीकवंत घराण्यांतलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. त्या खातीर आमकां कोंकण्यांक आमगेले भाशेचो मोटो अभिमान

दिसूंक फावो. आमी कोंकणे बाबत कुळां न्हयत. आमकां परकी भासांच्या लोकीकार वांचपाची गरज ना. ह्यो भासो आमगेल्यो आवयभासो न्हयत. देखून आमगेले भाग्यवंत आवयचे मांडयेर बसुंया आनी माथें वयर उबारून सगल्या संवसाराकडेन पळोवंया."

❁ ❁ ❁

"शणै गोंयबाब" म्हळ्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार. गोंयचे अस्मितायेचो पयलो प्रकट पुरस्कर्तो. तांचें चरित्र खंयच्याय गोंयकारान वाचचें तें आदर्श जिणेखातीर - स्वाभिमानाखातीर. खासा करुन साहित्य-संशोधन हांच्या मळार वावुरपी, वावरूंक सोदपी तरणाट्यांक तर तें प्रेरणा दिवपी थारतलें हातूंत मातूय दुबाव ना.

"शणै गोंयबाब" घडले कशे? हें जाणून घेवपी वाचप्यांची भूक हें माणकुलें पुस्तक भागयतलें अशी आस्त आमी बाळगितात.

दामोदर मावजो हे कोंकणीतले फाकीवंत लेखक-कथाकार-कादंबरीकार. हें चरित्रात्मक लिखाण करतना मूळ घडणुकांची सत्यताय खंयच व्हगडायनासतना, फकत लिखाणाक लालित्य हाडपाखातीर गरज थंय कल्पनेचो आदार तांणी घेतला.

शणै गोंयबाब हांचे १२५ वे जयंती वर्सानिमतान ही खाशेली उजवाडावणी.

गोवा कोंकणी अकादेमी
बोरी, फोंडें, गोंय